# कोंकणी भजन

(കൊങ്കണി ഭജൻ)

*(A collection of Konkani Bhajans)*

*by*



K. Anantha Bhat





कोंकणी भजन

**Konkani Bhajan**

*(A collection of Konkani Bhajans)*

*Author*

**K. Anantha Bhat**

*First Edition*

December 2008

*Publishers*

**Naational Heritage & Human Welfare Development Centre**

Thammanam P.O., Kochi - 682 032, Kerala

*Printed at*

**Paico Printing Press**

Rs. 50/-







**H. H. SHRIMAD SUDHINDRA THIRTHA SWAMI**

SHREE KASHI MATH SAMSTHAN

VARANASI

Camp: श्रीवेंकटरमण मन्दिर

Ref :

Date: वाशी
८-८-२००२

भजन भावगीत्त - कृति -
श्री के. अनन्त भट्ट - कोंकणी
भाषा कवि - हे पुस्तकाक शुभाशंसा
कोर्नु आशीर्वाद ॥

कोंकणी भाषेक पुष्टि - श्री शारदा
देवीलि प्रीति - देवालो अनुग्रहु - श्री अनन्त
भट्ट - कविक कीर्ति हे सर्वयि प्राप्त जावचाक
श्री व्यासरघुपति अनुग्रहु कोरो ही प्रार्थना॥
भजन कर्तल्यांक अतीव प्रयोजनु
जैलो ही शुभाशंसा.

सुधीन्द्र...



## प्रस्तावना

श्री हरि भक्ति बिना जीवाक मुक्तीक अन्यथा मार्ग ना, अशि श्रीमन्म-ध्वाचार्यांनि स्पष्ट केल्यां. मध्वमतांतु दास्य भक्तीक मुख्य स्थान दिलयां. हेच मार्गाचें अवलंबन कोर्नु, भजन बोरोंवचे कवि हे श्री के. अनन्त भट, कोची।

धनी मेगेलो रामचन्द्रु, हांव एकु दासु।
भजतल्यांक राकचो रामु, मेगेलो हो विश्वासु।।

अशि ललित सुन्दर पदां बरोवनु, कवि, भक्ति, सहज आनि सरल म्होणु समझायताति। काव्य दृष्टीन पळेयलार, तांगेले भक्ति गीतांचें मुख्य आकर्षण, विषयोचित उतरां, प्रासयुक्त रूपान घडोंवचें। राग-ताळ-लय बद्ध जावनु पदां घडोंवनु, भक्ति गीतां रचूचि तांगेलि काव्य प्रतिभा अद्वितीय। दृष्टांत देख म्होणु दिवुयात, तांगेलि हो पंक्तियो -

आमगेलो देवु श्रीव्यासरघुपति।
स्वामी आमगोले श्री सुधीन्द्रयति
जायि जाल्यारि सदा तुका उन्नति।
लायि हरि गुरु चरणारि मन्मति।।

समन्वय भावना तांगेले भजनांचें, आनि एक अकर्षण. श्रीराम, श्रीवेंकटेश, श्रीवेदव्यास, श्री शंकर, श्री गणेश, श्री महालक्ष्मी आदि देवीदेवतांचें आनी श्री

काशीमठाधीश श्रीमद् सुधीन्द्रतीर्थ स्वाम्यांले गुण गान आनी तांचि बन्दना भटमामान खूब बरेयल्याय. मनाक शांति मेळूक उत्तम उपाय हें. असले भजनांचें श्रवण आनी कीर्तन. भक्ति आनी काव्यसौंदर्याचें मणिकांचन संयोग हे भजनांत मेळता. श्रीहरि गुरु भक्तिचें ओज आनी माधूर्य कोंकणी जनमनाचे भाव-भूमचेर आधिष्ठित कोरचाचें श्रेय भटमामाक प्राप्त जाल्यां।

श्रीहरिगुरु चरणांचेर श्रद्धा, प्रीति आनी विश्वासु वड्डोंवचाक सामर्थ्य असिल्लिं हीं कोंकणी भक्ति गीतां, कोंकणी भजन म्हळ्ळेले नांवारि नैशनल हेरिटेज एण्ड ह्यूमन वेलफेयर डेवलेपमेंट सेंटर, कोच्ची - ३२. उजवाडाक हाडता म्हळेलें कोंकणी भाषिकांचें सौभाग्यच!. हो प्रयत्नु केलेले भटमामाकय उपर्युक्त संस्थेकय मिगेलि हार्दिक प्रशंसा कळेयतां! हो पुस्तक अनेकानेक जनांक उपकार जावो, अशी काळजांतुली शुभाशंसा!

डा. हरीन्द्र शर्मा
श्रीवराहपुरम
वरापुष़ा
एरणाकुलम जिला




# कोंकणी भजन

1 प्रथम वन्दन हें विघ्नेश्वराक । माथें बागसितां देवा राक ।। पल्लवी ।।
गणनायकु तूं मंगल दायकु । म्हणता जन तुका गणपति लायकु ।।1।।
गिरिजा नन्दना! गजमुख देवा । शरण तुका हांव करतां सेवा ।।2।।
एकदन्त पाशाङ्कुश धारी । राक विघ्नेशा ! तूं शोकसंहारी ।।3।।

2 वेंकटेशदेवा! करतां तुगेली सेवा । संकट हे आय्कुनु तूं राक माका देवा ।।
पल्लवी।।

शङ्ख चक्र गदा धोर्नु अभय तूंचि दित्ता।
पङ्कज लोचना तुका यमु धर्मुयि भित्ता।।1।।
वेंकटा गिरिनाथु तूं पापपुंज हारी,
राकूक सदा तैयार तीं तुगेलीं भूजँ चारी।।2।।
सगरू तूं दयेचो नांव श्रीनिवासु ।
मगतां वरु भक्तीचो हांव तुगेलो दासु।।3।।।

3 इन्दिरा रमणा देवा कौस्तुभा भरणा।
मन्दिरांतु राब मनांतु संकटहरणा ।। पल्लवी।।
भवसमुद्रांतु बुढतल्यांक आमकां तुगेले चरणा नौका।
सेवकु हांव भवसागरु हो तूवें पार करौंका।।1।।
चरण धरतां स्तुति ही करतां राक वेंकटनायका।
परम पावन तुगेलें धाम भुक्ति मुक्ति प्रदायका ।। 2।।
म्हणता अनन्तु तूं भगवन्तु भक्ति तुगेली करतां ।
कोणी ना तूं विना माका चरण तुगेलें धरतां ।।3।।

4 कलियुग वरदु तो वेंकट नायकु।
पालकु आमचो हांव गुणगायकु ।।पल्लवी।।
शेषाचलाचेरि करता निवासु।
दोष तो हरता दित्ता आश्वासु।।
भक्तवत्सलु तो भक्तांचो दासु।
भक्ति दी माका ताजो विश्वासु ।।1।।
शरणदायका भक्त परिपालका।
तारण करि माका जग संचालका ।।
हरण करि देवा पापाची राशी।
हरि तूं वेंकटपति अविनाशी ।।2।।

5 भजरे मना तूं नित्य निरन्तर वेंकटरमणाक।
तागेल्या दयेन विराम मेलतलें जन्माचे भ्रमणाक ।।पल्लवी।।
वेंकट रमणा गोविन्दा! भक्तवत्सला गोविन्दा !
वेंकट रमणा गोविन्दा! दीनदयाळा गोविन्दा !
कलिचे प्रभावान भरता पाप वाढता आप्याप।
भक्तांक पावता वेंकट नायकु हरता परिताप ।।1।।
वेंकट रमणा गोविन्दा! भक्तवत्सला गोविन्दा !
वेंकट रमणा गोविन्दा! दीनदयाळा गोविन्दा !।
संकट हरतलो वेंकटपति तो आमकां क्षेमु दित्ता।
रक्षकु वेंकटपति आसतना मना कसल्याक भित्ता।।2।।
वेंकट रमणा गोविन्दा! भक्तवत्सला गोविन्दा !
वेंकट रमणा गोविन्दा! दीनदयाळा गोविन्दा !
गोविन्दा!।.......गोविन्दा!।.......गोविन्दा!......।।

6 दरुशन दीरे, दीरे वेंकटेशा।!
कशि तुगेलि स्तुति करूँ रे अनन्ता ।पल्लवी।।
वेंकटेशु तुगलें नांव, राक अमकां म्हणता हांव।
निलय तुगलें गांवान गांव, उल्लो आयकून देवा पांव।।1।।
देवा! आमकां गिळता पाप, सेवा तुगेली राकता अप्पाप।
दोष आमचे करि तूं माप, शेषशयना हरि सन्ताप।।2।।
करतलों कशि तुगेली सेवा, शरण येत्तां राक देवा।
चौदा लोकाचो तूं भगवन्तु, सदा राक म्हणता अनन्तु।।3।।

7 पद्मावतीपति तूंचि वेंकटपति, देवा दी सन्मति।। पल्लवी।।
सत्य युगांतु तूं ध्यानान मेळचो, त्रेतांतु यज्ञ-यागान।
द्वापरांतु परिचर्येन मेळता, कलींतु हरि कीर्तनान।।1।।
कलियुग भारी अत्याचारी, पाप मनांतु तें भरता।
कलंक नाकरि देवा दया दवरि इत्याक तोडोवु करता।।2।।
तिरुपति देवु तूं गोश्रीपति तूं भक्तजनांगेलो दासु।
शरण तुका हांव म्हणता अनन्तु, देवु तूं श्रीनिवासु।।3।।

8 वेंकट रमणु तो संकट हरता, करतां ताका वन्दन।
राकता भक्तांक वेंकटपति तो, सोडता संसार बन्धन।।प।।
वेंकट नायकु तो वरदायकु, भुक्ति मुक्तिचो दाता।
लोकु हो राकता अभय तो दित्ता, सुख सौभाग्य विधाता।।1।।
लक्ष्मी पति तो आमकां गति तो, जनगण मंगलकारी।
रक्षकु भक्तांचो नाशकु दुष्टांचो, शंखचक्र गदाधारी ।।2।।
जाणता जो वेंकटपति महिमा, सम लेकता स्तुति निन्दा।
म्हणता अनन्तु तूं भगवन्तु, राक देवा गोविन्दा।।3।।

9 श्रीनिवासा! तुंचि राक अमकां।
अनीयेकु देवुना तुजेवरि राकचो, अमगेले संसाराक।।प।।
वैकुण्ठ सोणु तूं भुंयचेरि आयला भक्तांक राकचाक।
लोकु हो म्हणता तुगेलें नांवते कलिकल्मष धुंवचाक।।1।।
लक्ष्मी पति तुका कसलें कोर्का प्रसन्न जावचाक।
रक्षकु आमकां वेंकटपति तूं पांव दुःख धांवचाक।।2।।
एकु मात्र तूं आमगेलो देवु वेंकटरमणा राक ।
शोकुना जात्ता म्हणता अनन्तु दया तुजी आसिल्याक ।।3।।

10 एकदन्त गजवदनाक वन्दन।
राक सदा शिव पार्वति नन्दन।। पल्लवी।।
गौरी नन्दनु विघ्न विनाशकु।
शरण तुका आमी तूं वरदायकु।।1।।
एकाक्षर तें ब्रह्म ओम् कारु।
सकल चराचर भुवनाधारु।।2।।
अनादिकालाचें गणेशपूजन।
अनन्त मंगलकर आनी पावन।।3।।

11 यदा यदा हि धर्मस्य ग्लानिर्भवति भारत।
अभ्युत्यानमधर्मस्य तदाऽत्मानं सृजाम्यहम्।।गीता।।
परित्राणाय साधूनां विनाशाय च दुष्कृताम्।
धर्म संस्थापनार्थाय संभवामि युगे युगे।।गीता।।
दिव्य दरुशन कृष्णा तुगेली दिव्य मंगल मूर्ति ती।
मेळ्नु तुगेलें दरुशन माका जातली इच्छा पूर्ति ती।। पल्लवी।।
वज्रा किरीट तें राबलां मात्यारि ताजेरि मोराचें पाक रे।
भजतां कृष्णा नित्य निरन्तर अर्जुनावरि राक रे।1।

तोंडारि तुगेलो मन्दहासु तो निडळारि कस्तूरि तीळो तो।
खंडन कोर्चो दुःख दोषांक कौस्तुभामणि नीळो तो।।2।।
दोळे भोर्नु पळेयतां कृष्णा तुगेलें सुन्दर रूप तें।
चरणारि शिर महणता अनन्तु पार करि भवबन्धन।।3।।

12 शरण शारदे देवी तूं आमची माता।
करुणा केल्यारि तूवें अनुकूल विधाता।।पल्लवी।।
आव्सु तूं बालकांक विद्यापीयूष दित्ता।
पाव्सु तो करुणेचो घाल्नु सिंपिता।।
तूवें तरि दिल्यारि विद्येचें धन मेळता।
जीवन हें सुख पावता खुशीन मन खेळता।1।
गीत आनी संगीत दितली तूं सरस्वती।
माते हांव मागता तूं दी माका सन्मती।
देवी शरण अयलां नित्य भजता हांव।
कवन हें माते अर्पण माका तूं पांव।।2।।

13 एक न्हंय दोनि न्हंय कोटि नमस्कार ते, श्री सुधीन्द्रांक करतां।
शोकु ना जावचाक पार भव पावचाक, गुरुलीं श्रीचरणँ हांव धरतां।।पल्लवी।
श्री गुरुलिं चरणँ तीं धोर्का विनयान।
रागादि दोषना जात्तले ताज्यान।।
दीगु भव सागरु हो पार केल्लेल्यान।
चांगु नरजन्मु हो सफल ताज्यान।1।
गुरु चरण कमलारि भँवरु मन जावका।
परम पावन गुरुली भक्ति ती पावका।
हरि गुरुले भजनान भवरोग धांवका।
दुरितमय जग सोणु परमपद पावका।।2।।



सन्मार्गु केदणाइ दृढ जाव्नु धोर्का।
आमी नित्य नेमान गुरुस्मरण कोर्का।।
सदा सत्य धर्मांचे मार्गारि सोर्का।
मद मोह सोडका सदा क्षेम भोर्का।।3।।

14 देवा दया कोर्नु रक्षण करि।
श्री वेंकटेशा सप्तगिरि वासा।।पल्लवी।।
निलय तुगेलें तें गाँवान गाँव
कलियुग वरदा तूं माका पाँव।1।
म्हणतातित देवा तुका दयेचो सागरु।
नेण तुगेलि महिमा तूं जगदीश्वरु।।2।
अपराध मेगेले ते सर्वयि क्षमा करि।
आपण तुगेलो दासु धनी ना तुजेवरि।।3।।

15 करुणाकरा श्री वेदव्यासा।!
परम पुनीता शास्त्र प्रणीता राक राक हे ज्ञान प्रकाशा ।।पल्लवी।।
काशीमठाधीश भजतातित दीस दीस, योगक्षेमु तूं पोळोंचे देवा।
करतातित तुगेली सेवा, व्यासा! ज्ञान प्रकाशा भवभय नाशा
राक भक्तजन हृदय निवासा।1।
महाभारतकारु व्यासाक नमस्कारु! ज्ञानाभय दी श्रीवेदव्यासा।
अज्ञान दुरा करि रे व्यासा! अज्ञान दुराकरि रे;
दासी ही तुगेली जन्मजन्माची, राक भक्तजन हृदय निवासा।।2।।

16 राक हे वेंकट रमणा! राक हे वेंकट रमणा!
लक्ष्मी रमणा! भवभय हरणा, राकहे।।पल्लवी।।
आयकलें भव सागरांतु वेंकट रमणा नांव तुगेलें

नायकु तूं वेंकटेशा! माका पार करि म्होणु मागता हांव ।।राक हे।1।
गजेन्द्राक तूवें धाव्नु राकलो, केल्लो तागेलो उद्धारु।
अजामिळार्काय रक्षण केल्लो, ना केल्लो पापाचो भारु।।2।।
दीन जनांक तूं पावला आनी खेदु तांचो धावुंडायला।
तूं राक म्हणता अनन्तु, चरणारि शरण आयलां, दासु।।3।।

17 दरुशन दी श्रीवेदव्यासा! दास आमी हे भवभय नाशा।।पल्लवी।।
पिता माता तूंचि मेगेलो बन्धु तूंचि। वात्सल्य आनी दयासिन्धु तूंचि।।1।।
पराशरात्मजा परम पुनीता। हरि तूं म्हणालो भगवद्गीता।2।
ज्ञान दिवचो तूं परम पावना। दान दी माका भक्तिभावना।।3।।
भय ना करि विष्णुव्यापका। दया दवरि तूं प्रार्थना तुका।।4।।

१८ जो जो श्री कृष्णा परमानन्दा, नन्दकुमारा हे बालमुकुंदा। जो जो।।प।।
पूतनेचो प्राणु सोसूनु काडता । यातना भोगतल्यांक अश्वासु हाडता।
कंसाक मार्नु तूं स्वाधामाक धाडता। वंशु यादवांगेलो राकूनु काडता।।जो जो।1।
गोपी जनांक तूवें दिल्लेलो आनन्दु।
तापत्रय हरता तो तुजो मुखचन्द्रु।।
पार्थाक सांगलो तूवें उपदेशु चन्दु।
सार्थक करि जन्मु परमानन्दु ।।जो जो।2।
कौरवांगेले सभेंतु द्रौपदिलो मानु राकता।
गौरव पाण्डवांलें कौरवांक सांगता।।
कर्तव्य कर्म कसलें उपदेशु करता।
धर्मु तो राकूनु सुखक्षेमु भरता। जो जो।।3।।

श्लोक।

19. वक्रतुण्ड महाकाय कोटि सूर्य सम प्रभ।
निर्विघ्नं कुरुमे देव सर्व कार्येषु सर्वदा।।
गणपति देवा करतां सेवा राक हे गजवदना
म्हणता हांव तुगेलें नांव दया करि दयाघना।।प।।
मंगल दाता बुद्धिप्रदाता गिरिजानन्दन देवा।
जग तूं राकचो भक्तांक तूं पावचो, करतां तुगेली सेवा।1।
विघ्नेश्वरु तूं दित्ता वरु तूं, विघ्नविनाशु तूं करता।
रोग ना करता भाग्य तूं भरता, पाशाङ्कुश तूं धरता।2।
मंगलकारी शोकसंहारी, नमन तुका हे विघ्नेशा।
सांगता अनन्तु तूं भगवन्तु, मंगल करि तूं गणेशा ।3।

20 म्हणा रे वेंकट रामणाक सर्वयि जय जय कारु।
विष्णु तो वेंकट नायकु सुख दिवंचो अवतारु।।प।।
जय जय वेंकट रमणा! जय जय संकट हरणा!!
पङ्कज लोचन भवभय मोचन भुक्ति मुक्तिचो दाता।
संकटहारी विष्णुमुरारी सुख सौभाग्य विधाता।।1।।
जय जय वेंकट रमणा, जय जय संकट हरणा !!
दोष ना करता संतोष भरता, आमगेलो वेंकटपति तो।
शेष शयन तो सुखदनयन तो, भक्तांगेलो शुभगति तो।2।
कलिचे पापाक भव सन्तापाक देवा नाशु तूं करता।
पालन करि तूं म्हणता आनन्तु, सुख-क्षेम तूं भरता।।3।।
जय जय वेंकट रमणा! जय जय संकट हरणा!!

21 श्रीवेंकटेशा! गोश्रीपुरेशा! भक्तिचो वरु दी माका।
जीवन शून्य हें भक्ति विना, विसरु तुजो घाल्नाका ।।प।।

क्षणिक हें जीवन फेणा समान, मानवु अभिमानु करता।
जाण स्वार्थ नेण परमार्थ, ईश्वर भजन विसरता।।1।।
स्मरण कळना कीर्तन कळना, नवधा भक्तियि येना।
दुरिता जगांतु बुढता मन हें, तुगेलें नांव घेना।2।
लक्ष्मीपति तूं आमकां गति तूं, मति दी भक्ति कोर्चाक।
रक्षण करि तूं म्हणता अनन्तु, भव बन्धन निसोर्चाक।3।

22 वन्दन करतां विनायकाक। सुन्दर सुमंगल वरदायकाक ।प।
गजवदना हे गणपति देवा। भजतां नित्य करतां तुजी सेवा।1।
आरंभाक म्हणचें गणेशनाम। पूरण करता सान होड काम ।।2।।
पुनीत करता तें गणेश वन्दन। अनंत गुणांचें सोडैता बन्धन।।3।।

23 सात स्वरांचो सागरु पोवुया संगीत रस भरुया।
गीत आनी संगीत सरस्वती मातेक स्तुति करुया ।पल्लवी।
पुस्तक धारिणी विणा पाणी देवी सरस्वति माते।
मस्तक बागसितां हांव तुका वरु दी मांगळ दाते ।1।
कलेचि देवि तूं विद्या दायिनि माते तूं भारती।
सुलभ तुजे भक्तांक तूं दित्ता विद्या आनी सन्मति ।।2।।
वन्दन करतां माते! नि रि गरि सरि पम मगपम गरिसा
वन्दन करतां माते ! मागता हें विनयान।
सुन्दर संगीत आनी साहित्य, मागतां तुगेलागि ।।3।।

24 देवा! तुगेलें वन्दन करतां राक वेणुगोपाला।
सेवा करतां पायीं पडतां राक दीनदयाळा ।।पल्लवी।।
पार्थालो सारथि जल्लेलो देवा कृष्णा राधा रमणा।
सार्थक करि तूं जीवन आमचें, देवा भवभय हरणा। ।।1।।

धर्माचें पालन करि म्हणु पार्थाक सागंली तूवें गीता।
कर्म विकर्म अकर्म तें सांगची भगवद्गीता पुनीता ।2।
वेणुनादु तूं आयकेय आमकां भक्तिचे यमुना धारा।
सोणु घाल्नयें म्हणता अनन्तु क्षणभंगुर हें शरीर ।।3।।

25 उमापते! परमेश्वरा! नमन तुका हे शिवशंकरा।
प्रेमान तुगली सेवा करतां, राक सदा हे जगदीश्वरा ।।पल्लवी।।
आशुतोषु म्हणु नांव तुगेलें, वोगी तूं संतोषु पावुंता।
ईश्वरु तूं वरु भक्तांक दित्ता, तांगेले संतापु धावुंता ।।1।।
परम पावना पार्वती रमणा, गळ्याक् सर्पाचि माळा
शरण तुका हांव हे त्रिपुरारी राक तूं दीन दयाळा ।।2।।
काशीनाथा हे विश्वनाथा! शिवशंकरु तुजें नांव।
शाश्वत तुगेली भक्ति दी तूं वरु हो मागता हांव।।3।।

26 करि रे मना ! ईश्वर स्मरण, धरि देवालें चरण।
करि तूं भजन ॐनमः शिवाय ।पल्लवी।।
संत जनांगेलि वाट पळे तूं करि तांचें अनुकरण।
अंतकालाक तें लागी येना, धन परिजन आभरण।।1।।
शरणागतांक देवु राकता, व्स तूं देवाक शरण।
परमात्मागेलें शरण मेळ्यारि, चुकता जन्मु मरण ।।2।।
परिपावन तें नाम स्मरण करि मना आचरण।
हरि अनन्तु तो भक्तवत्सलु, करता भवभय हरण ।।3।।

27 जीवन व्यर्थ हें भजन विना। देवालें भजन तूं करता कि ना ।।प।।
बाल्यकालु तो खेळांतु गेल्लो। यौवनान तुका विषयांतु व्हेल्लो।
म्हंतारपणांतु चिन्ता घेत्ता। अन्त्यारि भजन तें कोणाक येत्ता।1।

दुर्लभ मेळचें हें मानव जीवन। सुलभ संसारांतु बुढता हें मन।
म्हणता अनन्तु जग हें नश्वर। जाण जाव्नु करि भजन निरन्तर।।2।।

28 श्री रामा! करतां तुका प्रणाम।
परम प्रेमान करतां गायन रामा! तुगेलें नाम ।।पल्लवी।।
एक फांतां शरण आयिल्यांक राकचें तुगेलें काम।
लोक सग तुजे माये अधीन म्हणता तुजें गुणग्राम।।1।।
मायेचे वशांतु जाल्लेले जीवाक कदापि ना विश्राम।
दायक वर तुजें नाम मेळेयता भक्तांक तुगेलें धाम ।।2।।

29 जयदेव जयदेव जय वेंकटरमणा।
भय हर्ता सुख कर्ता तूं संकटहरणा।।प।।
कलियुग वरदु तूं वेंकट नाथु।
पालन करता तुगेलो हाथु।।1।।
वज्रा किरिट तें राबलां मात्यारि।
भजताति तुका सग जन संसारी।।2।।
मन्दहासा तोंड गळ्याक माला।
वन्दन करतां दीन दयाळा ।।3।।
तिरुपति देवा! हे गोश्रीपुरेशा।
करि करुणा लक्ष्मीपति वेंकटेशा।4।

30 माते सरस्वती! विणापाणी! स्तुति करताति देवी ब्रह्माणी ।।प।।
वरु दी आमाकां विद्या मेळचाक। हरण करि अविद्या आनी राक।
दवरि आमचेरि तूं दयेचि दृष्टि। देवी करि नित्य करुणा वृष्टि।।1।।
धरलां हाथांतु पुस्तक वीणा। शरण तुका देवी विद्या प्रवीणा।
संगीत साहित्य भक्तांक दित्ता। सग जग जन पद नव रस पित्ता।।2।।

मातें वरु दी भक्त जनांक। पातक ना करि आमचे मनांक।
म्हणता अनन्तु करता वन्दन। जाण जन्तु करि तूं अभिनंदन।।3।।

31 मूषिक वाहन केल्लेले देवा विघ्न विनायका।
वन्दन करतां तुगेलें हांव वर प्रदायका ।।प।।
हस्ती तोंडाचो मंगल मुर्ति तूं गणपति तुगेलें नांव।
मस्तक बागतसितां हाथ जोडतां पायीं पडता हांव।।1।।
पार्वति नन्दन गणेश देवा एकि विनंति ही सांगतां।
सर्वकार्याकयि निर्विघ्न करि तूं एकु वरु हो मागतां।।2।।
गणपति देव विनायका, शरण आयलां हांव, तुका।
म्हणता अनन्तु तूं एकदन्तु मंगलकर तुजें नांव ।।3।।

32 कलियुगा देवा! राक श्री वेंकट नायका।
पालन करि तूं भक्तांक आमकां अभयदायका ।।पल्लवी।।
भांगरा पर्वतु धाम तुगेलें वैकुण्ठापशि चांग।
सग जनांकयि अभय दिवचें वेगळें कसलें सांग ।।1।।
वेंकटपति तूं श्रीनिवासु गोश्रीपति म्हणु नांव।
संकट हरचें तुगेलें नांव नित्य म्हणता हांव ।।2।।
श्रीवेंकटेश्वरु दी आमकां वरु भक्ति तुगेली कोर्चाक।
पांव आमकां म्हणता अनन्तु दुःख तें विसोर्चाक ।।3।।

33 गणपति देवा करतां सेवा, राक हे गजवदना ।।प।।
मंगलदाता बुद्धि प्रदाता गिरिजानन्दन देवा।
जग तूं राकचो भक्तांक पावचो करतां तुगेली सेवा।।1।।
विघ्नेश्वरु तूं दित्ता वरु तूं शोक विनाशु करता।
रोग ना करता भाग्य तूं भरता, पाशांकुश तूं धरता ।।2।।

मंगलकारी शोक संहारी नमन तुका हे विघ्नेशा।
सांगता अनन्तु तूं भगवन्तु, मंगल करि तूं गणेशा ।।3।।

34 गोश्री पुरेशा ! वेंकट रमणा! आश्रितवत्सला हे संकट हरणा ।।प।।
शङ्खचक्र धारी देवा मन्दहास वदना। संकट निवारक शुभमंगल सदना।
दयेचो तूं सागरू मोक्ष दायका । भय ना करता तूं वेंकट नायका।।1।।
लक्ष्मीपति तूवें प्रसन्न जावका। रक्षकु आमकां आत्तँ तूवें पावका
रमारमण तूं भवभयहारी । क्षमा करि आमकां पापसंहारी ।।2।।

35 राक राक तूं सर्वांक वेंकटेश्वरा। दूःख दुरित दुरा करि हे परात्परा ।।प।।
कलियुगांतु ह्या जगांतु कोण पावतलो । पालकु तूं आसतना तो खेदु
धांवतलो।
भव अपार करेय तूं पार वेंकटरमणा । पांव पांव म्हणता हांव संकटहरणा।।1।।
हांव दासु दी आश्वासु वेंकट नायका । पांव देवा करतां सेवा वरप्रदायका।।
वेंकटपति तूंचि गति शरणदायका । राक तूं म्हणता अनंतु वेंकटनायका ।।2।।

36 नमो वेंकटेशा नामो श्रीनिवासा । भक्तजनपालका अभयदायका ।।प।।
दुःख निवारणा खातिर भेटि तुजी घेत्ता हांव।
सुख दिवचें दर्शन तुगेलें दिव्नु माका पांव पांव।।
नित्य तुजे दर्शनान पाप नाशु पांवतलें।
सत्य तुगेले ध्यानान दुःख दूरा धांवतलें।।1।।
वेंकटेशु तूं रमेशु कलियुग वरदा
राक भक्तवत्सला सदा सर्वदा।।
तिरुपति देवा हे गोश्री पुरेशा।
शरण दी म्हणता अनन्तु जगदीशा ।।2।।

37 वेंकट गिरिवासा! गोश्रीपुरेशा । संकट करि दूरा श्री वेंकटेशा !
गोविन्दा! जय श्रीनिवासा वेंकटेशा! ।पल्लवी।।
कलियुग कल्मषांचें पाप सर्वदा तें भरता।
पालकु आमगेलो तूं पाप तें निवारण करता।।
जय श्रीनिवासा ! जय वेंकटेशा!
वेंकट गिरिवासा!.......... ।।1।।
तिरुपति देवु तूं गोश्रीपति तूंचि।परम पावन तूं आमकां गति तूंचि।।
जय श्रीनिवासा! जय वेंकटेशा! वेंकट गिरिवासा.........।।2।।
चौदा लोकाचो भगवन्तु देवु श्रीनिवासु।
सदा राक म्हणता अनन्तु हांव तुजो दासु।।
जय श्रीनिवासा! जयवेंकटेशा! वेंकटगिरिवासा!——।।3।।

38 ॐकार स्वरूपा देवा गजानना । राक गणेशा हे मंगल भवना।।
स्तुति करता तुका वेदान्त वाणी। गति भक्तांक अंकुशपाणी ।।पल्लवी।।
ॐ गणेश जय गणेश, जय गणेश देवा..........।।
वक्रतुंड तूं होड देहाचो । भक्तजनांचेरि भारी स्नेहाचो।।
एकदन्त पाशाङ्कुश तूं धरता। राक विनायका हांव स्तुति करता ।।1।।
ॐ गणेश जय गणेश, जय गणेश देवा.....................।।
मंगल करता विघ्न तूं हरता। जगांतु जनांक तूं सुख करता।।
मुर्ख मनीषु जो तुका विसरता। सुख सौभाग्य तागेलें तें सरता।।2।।
ॐ गणेश जयगणेश, श्रीगणेश देवा..........।।

39 सुप्रभात सांगतां तुका वेंकटेश देवा !
अप्रमेय देवु तूंची करतां तुगेली सेवा ।। पल्लवी।।
भांगरा पर्वतु धाम तुजें वैकुण्ठा समान।
मंगलमय तिरुपति ती दित्ता मुक्तिदान 1

पालकु तूं भक्तांगेलो कलिमल ना करता।
सज्जनांक रक्षणाक शङ्ख-चक्र धरता ।।2।।
परब्रह्म परमात्मा वेंकटगिरि नाथा।
शरण जाव्नु म्हणता अनन्तु अनुर्दिन गुणगाथा।।3।।

40 श्रीरामालें भजन करा । मंगल धामालें स्मरण करा ।।प।।
शबरीक तुगेलें दर्शन दिल्यां। शुभगति जटायुक तूवें दिल्या।।
दुरित भक्तांगेलें तूवें ना केल्यां। चरित पावन तुजें पुर्णकामा।।1।।
रामनाम शुभ मंगलकारी । क्षेमु दितलो तूं कोदण्डधारी।।
रामा राक तूं भवभयहारी । नमन तुका हे नयनाभिरामा।।2।।
देवु तूं भक्तांक रक्षण करता। सेवक वृन्दांक क्षेमु भरता।
हांव तुगेली सेवा करतां । पांव तूं रामा! हे घनश्यामा ।।3।।

41 पवन तनया दवरि तूं दया राम भक्त हनुमन्ता।
जीवन संग्राम विजयु मेळै तूं राक सदा बलवन्ता।।प।।
सागरू लंघन केल्लो तूवें सीता मातेक पळैली।
मोगा संदेशु सीतेक सांगलो लंका नगरी जळैली ।।1।।
देवु तूं मारुति करतां तुगेलि स्तुति भक्ति मेळेय तूं माका।
सेवा करतां चरण धरतां, माका तूं विसरूनाका।।2।।
भांगरा देहाचो भक्तांक स्नेहाचो, ज्ञान बुद्धि गुणवन्ता।
सागंता अनन्तु तूं बलवन्तु, अनुग्रहु करि हनुमन्ता ।।3।।



42 शरणागत दिनार्त परित्राणपरायणे।
सर्वस्यार्तिहरे देवी नारायणी नमोस्तुते ।।पल्लवी।।
महालक्ष्मी तुका करता नमन । दारिद्र्य दोष तूं करता शमन।।प।।
धनधान्य सम्पन्न करता भक्तांक । अनुदिन स्तुति करता माते तूं राक।

जन तुका भजता सम्पद् मेळ्चाक। आनन्दु मेळैता तुजें अगमन।।1।।
हरि प्रिया हरता दुःख आनी दोष । करि करुणा माते दी तूं सन्तोष।
भरता एश्वर्य तूं दित्ता परितोष । करि सुख पुर्ण हें आमगेलें जीवन।।2।।
लक्ष्मीदेवी यो तूं आमचे घरांतु। सुख सौभाग्य दी दिवचे वरांतु।।
वेंकटपतिली तूं राणी जगांतु। सांगता अनन्तु करता भजन।।3।।

43 कृष्णा! तूं परम आनन्दधाम।
तृष्णा ना करि राक श्री हरि, करतां कोटि प्रणाम ।। पल्लवी।।
सत्य असत्य बरें-वाय्टाचे मध्यें हें जीवन-संग्राम।
आत्ताँ मेगेलो तूं सारथि जाव्नु, करयि कर्तव्या काम।।1।।
कौरव सभेंतु द्रौपदीक तूवें, वस्त्र दिल्लें अविराम।
परम दयालु तूं भक्तांक राकचो, जग जपता कृष्ण नाम।।2।।
नारायणु तूं नरु हो मानवु, तूं भक्तांचो विश्राम।
पार करयि भव म्हणता अनन्तु, कृष्णु तूं पूर्णकाम।।3।।

44 सर्व मंगल मांगल्ये शिवे सर्वार्थ साधिके।
शरण्ये त्र्यंबिके गौरी नारायणी नमोऽस्तुते ।। श्लोक।।
सरस्वती देवी विद्या विशारदे। वरु दी आमकां माते शारदे।। पल्लवी।।
पुस्तक माला वीणा तूं धरता। हस्तकमल तूजें अज्ञान हरता।
भक्त जनांक तूं मंगल करता। राकता तूं शुभमंगल दाते।।1।।
संगीत साहित्य जनांक तूं दित्ता! सग जग तुजें कवनामृत पित्ता।
सांगता अनन्तु वरु हो निमगिता। विद्या प्रदान करि तूं माते ।।2।।

45 शिव शंकरा परमेश्वरा, करि करुणा करुणाकरा।
जीवनांतु शिव भक्तीचि गंगा, सदा होळेय तूं गंगाधरा ।।प।।
आशुतोषु हरतलो तूं दोषु करि संतोषु महेशा।

नाशु कोर्नु भव भय भक्तांक राकतलो तूंचि सर्वेशा ।।1।।
सर्पाभरणा पार्वतिरमणा, रक्षणकरि त्रिपुरारी।
अर्पण मन हें म्हणता अनन्तु भारी तुगेली महिमा।।2।।

46 गजवदनाक वन्दन करतां। राक सदा शिव पार्वति नन्दन ।प।।
गोरी नन्दनु विघ्नविनायकु। शरण तुका आमी तूं वरदायकु।।1।।
एकाक्षर तें ब्रह्म ॐकारू । सकल चराचर भुवनाधारू।।2।।
अनादिकालाचें गणेश पूजन । अनन्त मंगलकर आनी पावन।। 3।।

47 जय जय जय हे वेंकटरमणा। राक आमकां संकटहरणा ।प।।
नांव तुगेलें वेंकट नायकु। भक्त जनांक तूं मोक्षदायकु।
तुं सर्वांगेलो जीवन दाता। पालन कर्ता तूंचि विधाता।।1।।
वेंकटेश्वरा भक्तवत्सला। भक्ति दी तूं नित्य निर्मला।
तिरुपति देवा गोश्रीनाथा। म्हणतातिं तुगेली गुणगाथा।।2।।
शरण तुगेलें कोण की आयले। अभय दीव्नु तूवें अपणायले।
वेंकटपति तूं पांव देवा। करताति आमी तुगेली सेवा।।3।।

48 धनी मेगेलो रामचन्द्रु हांव एकु दासु।
भजतल्यांक राकचो रामु मेगेलो हो विश्वासु ।। पल्लवी।।
हृदय मन्दिरांतु जेन्ना रामु करता वासु।
नाशु पांव्नु वत्ता तेन्ना मनाचो तो लासु।।1।।
शरण जाव्नु करता कोणकी रामालो उडगासु।
धाव्नु पाव्नु रामचन्द्रु दित्ता तो अश्वासु ।।2।।
श्री रामालो दासु म्हणुक येत्ता माका हासु।
भक्ति रूपी कवन करचो येना माका प्रासु।।3।।
रामु भक्तवत्सलु म्होणु सांगता हें इतिहासु।
राम नाम जपु अखण्ड करत राबो श्वासु।।4।।

49 भवसागरु हो करेय तूं पार। सेवा तुगेली करतां रामा राक एक पसार ।।प
पोव्नु हाथपाय जाल्ले क्षीणित, भव सागरु हो अपार।
पांव रामा! बुढतले माका, दयेन करि उद्धार ।।1।।
तुगेले दयेन पार ते पावले, भक्त लोक हजार।
मेगेलें मेगेलें म्हणु हांवें लेकलें, व्यर्थ जाल्ले उद्गार ।।2।।
जग मग दिसचे मायेक सोडचाक, जायनी हांव तैयार।
सगळें जीवन अशीचि गेल्लें, जालों हांव बेजार ।।3।।
म्हणता अनन्तु जग हें सगळें, तुगेले माये विस्तार।
क्षण भित्तरि तूं पांव रामा, करेय पार संसार ।।4।।

50 मेगेलो न्हंय हो तुगेलो न्हंय हो, लोकु हो भगवन्तालो।
भगवन्तागेलि महिमा जण जा, उपदेशु हो भगवन्तालो।। पल्लवी।
माक्षीं मुकारि हेकडे-तेकडे, भगवन्तु करता वासु।
साक्षी जाव्नु तो हृदयांतु राबला, नित्य खेळेयता श्वासु।1।
भगवन्तागेले जगांतु मानवु व्यर्थ करता अभिमान।
सगळें चराचर जग हें ईश्वरु, लेकता एक समान ।। 2।।
जणता जो भगवन्तालि महिमा, तोचि मानवु ग्यानी।
म्हणता अनन्तु निस्सार कार्याक, जाव्नाका तूं अभिमानी ।।3।।

51 करि रामागेलें गुणगान।
रामनाम रस पिवचे खातिर धरि मना तूं तान।।पल्लवी।।
रामनामाचे प्रभावान पळे, वाल्मीकि जाल्लो महान।
गुणांचे गायन अयकुचाक, हे आतुर जावोति कान।।1।।
राम नाम जपु कोर्नु तो, शंकरू दित्ता मुक्तिचें दान।
त्याचि पसावत काशी नगरी, भुँयचेरि स्वर्ग समान।।2।।
राम नाम अनन्त गुणांचें, गायन करि तूं मनान।

भवरोगाक वेकद नाम, घेव्नु पळे तूं प्रेमान।।3।।
श्रीराम श्रीराम जय जय राम। श्रीराम जय राम जय जय राम।।

52 स्मरण करि अनुदिन तूं श्रीरामनाम।
परमात्माक अर्पूनु तें करि तूं काम केल्यारि ।।पल्लवी।।
जो कोणकी ईश्वराक उडगासु करता, लेकांतु भक्तु तो कुशल भरता।
श्रीरामाक अर्पुनू काम केल्यारि, नर जन्मु धन्य हो पाप तें सरता।।1।।
विपरीत मरा म्हणु वाल्मीकि तो म्हणता,
पापकर्म सरता पावन म्हणु जाणता।।
कविवरु तो जात्ता रामकथा सांगता।
जीवन तें धन्य जावचाक लागता ।।2।।

53 देवु तूं आमगेलो श्री हनुमन्ता। भक्ति दी आमकां बलवन्ता ।। प।।
देवु तूं मारुति हांव करतां स्तुति। राम भक्तु तूं मंगल मूरुति।
भांगरा देहाचो भक्तांक स्नेहाचो। श्री आन्जनेया अप्रमेया।।1।।
होडु भक्तु तूं ज्ञान सम्पन्न तूं हेम शैलावरि जोति भवन तूं।।
वरू हो मागतां विनयान सांगतां। भक्ति निमगितां आन्जनेया।।2।।

54 करुणेचो सागरु श्रीरामा! परमानन्द धाम तूं सुखधामा।
चरणारि भक्ति दी घनश्यामा, आमकां भव पार करि तूं अभिरामा।। प।।
लोकांतु असुर ते भुँयचेरि भरलेले। भक्तांक द्रोहयि राक्षस करताले।
दाशराथि जाव्नु जन्मु तूं घेव्नु, आमकां भक्तांक राकतलो रामु।।1।।
दैत्यु विभीषणु शरणांतु आयलो, प्रीति पोळोनू ताका तूवें आपणायलो,
भजतले भक्तांक मोक्षु मेळेयतलो, भक्तांक राकतलो श्रीरामा, आमकां।।2।।

55 पावन तें तुगेलें नांव मारुति राया। राक्षसांक मारचे तुजी कांचन काया।।प।।
राम कार्य कोर्चाक अवतारु तुगेलो। प्राणियांक प्राण दिवचो देवु आमगेलो।
संकट ते भक्तांगेले दूरा करतलो। राक भक्त हनुमन्ता भय तें हरतलो।।1।।
आंजनेयु वायुपत्रु भक्त प्रियकरा। सज्जनांक राकतलो हे कपीश्वरा!
सेवा तुजी केल्लेल्याक रामु मेळेयता। देवु सर्व प्रणियांचो खेळु खेळेयता।।2।

56 हनुमन्तु आन्जनेयु मारुति। वानरांचे अधिपतीक ही स्तुति।।प।।
बलवन्तु गुणवन्तु देवु तूं। खलनाशकु ज्ञानवन्तु देवु तूं।
राम नाम रस पिवचो देवु तूं। कामनेचें फल दिवचो देवु तूं।।1।।
राम भक्त सर्व शक्त हनुमन्ता राक तूं। आमी भजताति सदा राक तूं।
धांव पांव आमकां हे मारुति। हांव नित्य करतां ही स्तुति ।।2।।

57 हो जीवु तुगेलो श्रीरामचन्द्रा। तूं देवु मेगेलो श्रीरामचन्द्रा ।। पल्लवी।।
काळुकु ना करि उजवाडु भरि तूं। दरुशन तुगेलें दी रामा।
मायेचें बन्धन सोडेय तूं रामा, अभय दी आमकां श्रीरामा।1।।
कशि तुजी सेवा करतलो रामा, भक्त वचन तूं धरतलो रामा।
अनुदिन तुगेली भक्ति दी रामा, अनुग्रहु तुगेलो दी रामा।।2।।

58 आमगेलो देवु मारुति, आमी करताति तुगेली स्तुति।
आजि फायि स़र्वकाल राक राक तूं। धाव्नु पाव्नु राक सर्वदा।
मारुति धाव्नु पाव्नु राक सर्वदा ।।पल्लवी।।
राम कार्य तूंचि करतलो। सागरा पार तें तूचि सरतलो।
लंकेंतु भोव्नु चोव्नु, दरुशन मातेचें घेव्नु,
उपवन नाशु केल्लेलें, अशोक उपवन नाशु केल्लेलें।।1।।
रावणाली होडि ती लंका, भोवलो हनुमन्तु सोणु ती शंका।।
उज्जो लायलो बालाक हनुमन्तु त्या कालाक,

धाव्नु भोव्नु लंका जळैली, मार्रुतिन धाव्नु भोव्नु लंका जळैली।
जेन्ना भक्तांक संकट येत्ता,तेन्ना आन्जनेयु राकूनु घेत्ता।।2।।
रक्षसांक मारचो भजतल्यांक पावचो,
नमन ताका अन्जनेयाक, आमचें नमन ताका आञ्जनेयाक।।3।।

59 मंगल गायन म्हणुया रे आमी रघुपति रामाक।। पल्लवी।।
शरणांतु जे तुजें म्हणतले नाम। करतले एक फांतां तुका प्रणाम।
नांव तुगेलें मेळेयता विश्राम। दरुशन मेळेयता तुगेलें धाम।।1।।
महिमा तुगेली आयकूनु हांव। अनुदिन म्हणता तुजें नांव।
दरुशना आशेन भोवलों गांव। शरणांतु आयलां रामा तूं पांव।।2।।

60 जय जय काशीमठ संस्थान।
भय ना जात्ता हरि गुरु कृपेन, करि गुरुलें गुणगान।।पल्लवी।।
भुवनेन्द्रांगेले शिष्य वरदेन्द्र। वरदेन्द्रांगेले शिष्य सुकृतीन्द्र।
सुकृतीन्द्रांगेले शिष्य सुधीन्द्र। पावन परम्परा ही महान।।1।।
मठाचि निष्ठा त्रिकाल पूजन। पाठन पठन करताति शिष्यजन।
वैदिक वृन्दांचें धन्य तें जीवन। व्यास रघुपतिले आशीर्वादान।।2।।
गौड सारस्वत ब्राह्मण वृन्द। वन्दन करता गुरूंक सानन्द।
धर्म गुरूंगेले उपदेश चन्द। कर्म योगी आमी जावुया प्रेमान।।3।।

61 आमगेलो देवु श्री व्यासरघुपति। स्वामी आमगेले श्री सुधीन्द्र यति।
जायि जाल्यारि सदा तुका उन्नति। लायि हरिगुरु चरणारि मनमति ।।प।।
पराशरगेलो पूतु तो व्यासु। परम पावन ताजो इतिहासु।
हरिद्वारांतु व्यासाश्रमावासु। हरण करतलो तो मनाचो लासु।।1।।
व्यास मन्दिर हांगा जाल्यां हें सुन्दर। काशीमठाधिपति सुधीन्द्र मुनिवर।
वरद हाथ स्वाम्यांगेले प्रियकर। हरि मेळैतले भक्तांक अनश्वर।।2।।

गंगेचे तीरारि हें व्यास धाम। संगम भक्ति ज्ञान अविराम।।
सागंता अनन्तु करा प्रणाम। मंगलमय व्यासरघुपति नाम।।3।।

62 ज्ञानाचो उजवाडु दिल्लेले वेदव्यासाक नमस्कारु।
मनान व्यासाक वन्दन करता सगेळो संसारु।।पल्लवी।।
पराशरात्मजु सन्यवती पुत्रु विष्णुलो अवतारु।
परम भागवतु शुकालो बापुसु महाभारतकारु।।1।।
एक रूपान अस्सीले ते वेदांक व्यासु व्यस्त करता।
ह्याकारणान वेदव्यासु म्होणु नांव जगांतु वरता।।2।।
काशीमठाचे आराध्य देवा व्यासा वरदायका।
आशीर्वादु दी केदणायि आमकां संस्थान नायका।।3।।
केदणा पर्यन्त होळतली गंगा पवित्र हरिद्वारांतु।
मंदिर व्यासालें म्हणता अनन्तु राबतलें संसारांतु।।4।।

63 आरति करि रे श्री वेदव्यासाक । जय जय म्हणा श्री वेदव्यासाक।
वेदव्यासागेलि दया जावका, विद्या बुद्धि विकासाक ।।पल्लवी।।
जेदना वाढलो अज्ञान भारु। तेदना व्यासागेलो अवतारु।
अज्ञाना नाशु ज्ञाना प्रकाशु, लोकाचे आश्वासाक ।।1।।
पराशरागेले पुत्राक, जय जय ज्ञान समुद्राक।
व्यासुचि विष्णू विष्णुचि व्यासु अवतारु ज्ञान प्रकाशाक।।2।।
महाभारत केल्लें निर्माण। लोकाचे खातिर शास्त्रपुराण।
अमृताचो उपदेशु भगवद्गीता, भारताचे इतिहासाक।।3।।

64 ॐ श्री वेदव्यासाय नमः।
ॐ श्री रामचन्द्राय नमः।
ॐ श्री सुधीन्द्र गुरवे नमः

काशीमठ संस्थानाक जय जय । काशीमठ संस्थानाक जय जय।।प।।
वेदव्यासु तो ज्ञान प्रदाता शास्त्रपुराण रचयिता।
आदरान भजतातित ताका, व्यासु तो परम पिता।।1।।
त्रिकाल पूजन व्यास रघुपतिक काशीमठांतु नित्य चलता।
लोकांतु धर्म प्रचारा कार्य, गुरुवर्यांक सफलता।2।
अभिषेक पूजन वेद पारायण भजन गान हरिस्मरण।
अभिमान गौड सारस्वत आमकां, हरि गुरु सेवाचरण।।3।।
हरिद्वारांतु व्यासमन्दिर तें सुधीन्द्र यतिकृत भवन।
हरतलें तापत्रय तें खण्डित, म्हणता अनन्तु कवन।।4।।

65 वन्दन सुधीन्द्र मुनि रायांक। सुन्दर शुभकर तांचे चरणांक।।प।।
काशीमठाचे अधिनायक हे। आश्रितांक सुखवरदायक हे।
आशाकेन्द्र आमचें सहायक हे। प्रशंसनीय महिमे लायक हे।1।
पापान भरलेले जनांक। उपदेश करचे मनांक।
सुधीन्द्र आराध्य सज्जनांक। मधुर हासु तांचो ह्या नयनांक।।2।।
करि मना गुरुलें गुणगान। धरि तांगेलीं चरणँ प्रेमान।
भव न्हंयतु गुरुचरणाँ जलयान। देवु मेळेयतले गुरु हे महान।।3।।

66 पूजनीय सुकृतीन्द्र यतींक वन्दन हें विनयान।
भजतां चरण कमल प्रेमान म्हणता हें गुणगान।। पल्लवी।।
वरदेन्द्रांगेले शिष्य पुतीत हे योगी दान्त प्रशान्त।
परम दायलु भक्तवत्सल यति, सद्गुणानी विरव्यात।।1।।
गोश्री वेंकटपति देवालय, रायाले अधीन पळेयलें।
आश्रितवत्सल सुकृतीन्द्रानी महाजनांक मेळेयलें - देवळ।।2।।
सुकृतीन्द्रांगेलें शुभवृन्दावन, गोश्रीपति सन्निधींतु।
सुकृत मेळेयता म्हणता अनन्तु राकता भववारिधींतु।।3।।

67 भुवनवन्द्य भुवनेनद्रांक नमन। सेवा करतातिति आमी शिष्य जन।
करि गुरुदेवा कृपावलोकन। शरणागत आमी राक दयाघन।।प।।
सुमतीन्द्रयति कर कमल संजात। शमन तापत्रय वरद ते हाथ।।
वेद वेदांत पुराण निष्णात। आदरान गुरो जोडतातिति हाथ।।1।।
लागता चेल्लेक सर्पाचें दंशन। मागता स्वाम्यांलागि येव्नु भक्त जन।
धन्वन्तरि वरि राकलें जीवन। धन्य गुरु आमचे धन्य शिष्य जन।।2।।
गौड सारस्वत ब्राह्मण वन्दित। वेद वेदान्त विदित अभिनन्दित।
यति भुवनेन्द्र काशीमठ संस्थित। मति हरिचरणारि लायतले सुविदित।।3।।

68 यो रे देवा तूं मेगेले घरांतु। राब़ रे देवा तूं मन मन्दिरांतु ।।पल्लवी।
काशीमठाचो देवु तूं व्यासु। दिसता तोंडारि तो मन्दहासु।
आशीर्वादु दी करि आश्वासु। विष्णु तूं माका तुजो विश्वासु।।1।।
पराशरात्मजा परम पावना। करि करुणा दी भक्ति भावना।
शरण तुका हांव श्री वेदव्यासा। वरु दी भक्तिचो ज्ञानप्रकाशा।2।
गुरु सुधीन्द्र पूजित तूजें चरण। हरि गुरु भक्तीन आयलां तुका शरण।
म्हणता अनन्तु करता स्मरण। सोणयें करि तूं भवभय हरण।।3।।

69 वरदेन्द्रंगेले चरणपद्मांक करतां नमस्कारु।
वरु दी आमकां गुरुभक्तीचो हरिभक्तीक आधारु।।
जय जय वेदव्यासा! जय जय श्री गुरुराया।। पल्लवी।।
भुवनेन्द्रांगेले करपद्मजात वरदेन्द्रयति चरण।
सेवकवृन्दाक पावन करता तांगेलें संस्मरण।।1।।
वेदवेदांताचे तत्त्वाचे ज्ञाता तपोनिधि दान्त प्रशान्त।
केदणायि दीन भक्तजन त्राता गुरुवरदेन्द्र ते शान्त।।2।।
सत्य धर्माचे प्रचारक स्वामी यन्त्रतन्त्र कलाकार।
स्तुति करता विनयान अनन्तु वरदेन्द्र करोयि स्वीकार।।3।।

70 मनुजा! नित्य तूं देवालागि माग। अनुदिन हरि गुरु चरणानुराग।।प।।
भवसागरु हो कितलो अपार। देवु विना कोणी ना आधार।
गुरु दाकैता आमकां मोक्षाचें द्वार। हरि गुरु कृपेन सुंटता संसार।।1।।
करि मानवा तूं गुरु गुण गायन। गुरु कृपेन मेळता भक्ति रसायन।
गुरु चरणांचेरि लायि सदा मन। हरि पद मेळ्यारि धन्य हें जीवन।।2।।
भाग्यान मेळचें हें मानव जीवन। रागद्वेषमय संसाराचें जन।
सांगता अनन्तु करि हें चिन्तन। मोगु दवरि गुरुचरणारि धरि मन।।3।।

71 व्यास रघुपातिक दाकौया आरति। दास आमी देवा दी हरिपद रति।।प।।
जय जय कारु हो पराशर पुत्राक। भयना करि आमकां देवा राक।
ज्ञान दान करि दी आमकां सन्मति।1।
जय जय म्हणा श्री रघुरामाक। नयनमनोहर मंगलधामाक।।
अभय दान करो रामु सीता पति।।2।।

72 दोनि दिसांचो खेळु जग हें दोनि दिसांचो खेळु।
खेळता खेळता सांझ जात्ता येत्ता रात्रिचो वेळु।।पल्लवी।।
सुख-दुःख लाभु-नष्ट बरें-वाय्ट, जीवन द्वांद्वाचो मेळु।
हांव-तूं मेगेले-तुगेले मायेंतुलो, सुंटचाक मेळना बेटेळु।।1।।
काळुकी राति ती नीदकारायता, नीदेंतु जात्ता शेळु।
म्हणता अनन्तु नीदेचेफुडे तूं, लायि भजनाक वेळु।।2।।



73 जय जय काशीमठ संस्थान। येय्या जना म्हणुया आमी गुरुलें गुणगान।।पल्लवी।
भुवनेन्द्र वरदेन्द्र गुरु सुकृतीन्द्र
पावन गुरु परम्परेचे सुधीन्द्र।।
काशीमठाधीश सर्व ते यतीन्द्र। एका पशि एक यतिवर्य ते महान।।1।।
व्यासरघुपतिक त्रिकाल पूजन। दास हरि गुरुले करताति भजन।

वेद पुराण धर्म परिपालन। सदा सुधीन्द्र ते करचे मनान।।2।।
गुरु विना ग्यान ना हें सत्य वचन। चरण गुरुलें धरा करा तांकां नमन।
म्हणता अनन्तु गुरु आमचे पावन। क्षणभरि गुरुपद धरा प्रेमान।।3 ।।

74 नमन करा श्री सुधीन्द्रांले चरणांक।
शमन जात्ता तापत्रय तें क्षणाक्षणाक ।।पल्लवी।।
काशीमठ संस्थानाचे अधिप सुधीन्द्र।
आशीर्वाद शिष्यांक दिवचे गुरु हे यतीन्द्र।।
कुशल सर्वदा जगाक दिवचे योगीन्द्र।
हरि दर्शन मेळौनु आमकां भवतारणाक।।1।।
करा नित्य निरन्तर तें गुरुगुण गान।
धरा गुरुलीं चरणकमलँ भारी प्रेमान।।
दिव्य मंगलकारी श्री सुधीन्द्र महान।
गुरुकृपा म्हणता अनन्तु परिरक्षणाक।।2।।

75 येय्या वच्या पोळोया आमी हरिद्वार।
व्यास मन्दिराचि महिमा ती अपार।।पल्लवी।।
होळता भारी वेगान देवनदी गंगा।
मेळता व्यास मन्दिर तें सुन्दर अति हांगा।
खेळता नित्य मनांतु भक्तिभावना तरंगां।
पोळोया तें व्यास धाम एक पसार।1।।
श्रीसुधीन्द्र गुरूँगेले वरद हस्तान।
व्यास मन्दिर प्रतिष्ठा जाल्लें वैभवान।।
नाशु कोर्चे आज्ञानाक केवल ज्ञानान।
भक्तजन मेळ्ळेले हांगा अनेक हजार ।।2।।
अति पावन मन भावन व्यासधाम चन्द।

यति सुधीन्द्र सुप्रतिष्ठित मेळैता आनन्द।
गति मोक्षाचि पावर्तात ते सज्जन वृन्द।
धन्य जा म्हणता अनन्तु जातलें भव पार।।3।।

76 श्रीवेदव्यासाक दाकौया आरति, देवा कृपानिधे दी सन्मति।।प।।
पराशरात्मजु विष्णु तो व्यासु। परम पुनीत ताजो इतिहासु।।
शरण गेलेल्यांक मेळेयता आश्वासु। चरणसेवकांक दित्ता तो शुभगति।।1।।
श्रीरामचन्द्राक दाकौया आरति। दुरित निवारण करतलो रघुपति।।
व्यासु विष्णु हरि गुरु सुधीन्द्र यति। म्हणता अनन्तु मागता भक्ति अति ।।2।।
(नमोऽस्तु ते व्यास विशालबुद्धे।
फुल्लारविन्दायतपत्रनेत्र!
यने त्वया भारत तैल पूर्ण:1
प्रज्वालितो ज्ञानमय प्रदीप:11)

77 माका राम नाम आधारु।
राम नाम तें करता पावन हरता दुःखाचो भारु।।पल्लवी।।
राम म्हळ्यारि सर्व दिकारियि जात्ता कुशल प्रचारु।
एक राम नामाचो प्रभावु जीवन सुखाचो सारु।।1।।
राम नाम रस पिवचाक आसता सर्वांकयि अधिकारु।
राम नाम तें अनन्त गुणांचें सुखमय करता संसारु ।।2।।

78 जय जय जय हे वेंकटरमणा। राक तूं आमकां संकटहरणा।।पल्लवी।।
नांव तुगेलें वेंकटनायकु। भक्तजनांक तूं मोक्षदायकु।
तूं सर्वांगेलो जीवन दाता। पालन कर्ता तूंचि विधाता।।1।।
वेंकटेश्वरा! भक्तवत्सला। भक्ति दी तूं नित्य निर्मला।
तिरुपति देवा!गोश्रीनाथा। म्हणताति तुगेली गुणगाथा।।2।।

शरण तुगेलें कोण की आयले। अभय दीव्नु तूवें आपणायले।
वेंकटपति तूं पांव देवा! करताति आमी तुगेली सेवा।।3।।

79 सांगचें आयकना मन हें चंचल।
कोटि उपदेश केल्ले हाका, आस्स बलवन्त विषयांचें बल।।प।।
अनेक फांतां कान्नानी आयकली, रामकथा ती पावन निर्मल।
विषयांचे बांयचें उदाक मागता, सोणु भक्तिचें तें गंगाजल।।1।।
विषयांचे माक्षीं भोव्नु पळेयता, मेळता रोग आनी पापा फल।
दुःख आनी दोष सर्वत्र चोयता, सोदूनु भोंवता सुखमेळचें स्थल।।2।।
सुख दिवचे देवाक विसरता, भरता निशिदिन पापाचें मल।
महणता अनन्तु भज देवाक, सोणु पळे मना! विषयहलाहल।।3।।

80 यशोदे! तुजो कृष्णु भारी जोरु।
गोकुल सगळें म्हणता हाका, नवनीताचो चोरु ।।प।।
आयकतल्यांक लायता पिशें, हागेलो मुरळीचो स्वोरु
खँय पळे थँय तुजो कृष्णु दिसता, मोहन हो मनोहोरु।।1।।
घनश्यामाचो रंगु पोळोनु, नांचता खुशीन मोरु।
ज्या मनुष्याक हो चंदु दिसना, तगेलें हृदय पत्थोरु।2।
लूटि करचो हो धरूक मेळना, कोमळु वे कि कठोरु।
हें जग सगळें जगमग दिसता, हागेलो मायेचो भोरु।।3।।
म्हणता अनन्तु ह्या कृष्णालागि, मागता हो येकु वोरु।
जन्म जन्मांतुयि ह्या कुष्णालो, घालनयें माका विसोरु।।4।।

## नांचता गणपति

81 करि वदन हे रंब लंबोदर
गण नाथ मोदक प्रिय देवा।
परशु पाशांकुशकरांकित
गौरी सुता करतात सेवा।।
नमन हें आद्याक गणपति देवाक।
आमी भजतातित गणेशा राक ।।पल्लवी।।
हस्तीचें तोंड देवा तुका हाथ चारी।
मस्तक बागसितां हे शोक संहारी।।2।।
गौरी नंदना हे विघ्न विनायका।
करुणा करि तूं मंगल दायका।।2।।
श्री गणपतिगेलें केल्यारि वंदन।
मंगल मेळता आनी निसरता बंधन।।3।।
गण नायकु तूं सिद्धि प्रदायकु।
म्हणता अनन्तु तूंचि विनायकु।।3।।

82 ॐकार स्वरूपा! देवा गजानना।
राक गणेशा! हे मंगल भवना।।
स्तुति करता तुका वेदांतवाणी।
गति भक्तांक तूं अंकुशपाणी।।पल्लवी।।
वक्र तुण्ड तूं होड देहाचो
भक्त जनांचेरि भारी स्नेहाचो।
एकदन्तु पाशांकुश धरता।
राक विनायका हांव स्तुति करता।।1।।

मंगल करता विघ्न तूं हरता।
जगांतु जनाक तूं सुख करता।
मूर्खु मनीषू जो तुका विसरता।
सुख सौभाग्य तागेलें तें सरता।।2।।
सर्व प्रथम देवा गणपति पूजन।
सेवक जनांक  तें करता पावन।।
गण नायका! करि कृपावलोकन।
म्हणता अनन्तु राक दयाघन।।3।।

83 माघ कृष्ण चवतीक गणेशु तो
जन्मांतु आयला।
भाद्र शुक्ल चवतीक विनायकु
सिद्धि प्रदायकु जाल्ला।।प।।
मूषिक वाहन देवु गजानन
अंकुश मोदक धरता।
दोषयि विघ्नयि ना करता तो
सुख सौभाग्ययि भरता।।2।।
सिद्धि बुद्धिचो नाथु विनायकु
क्षेमुयि लाभुयि दित्ता।
बुधवंतु भारी मंगलकारी
भजनामृत जो पित्ता।।2।।
गजवदना! हे सुखसदना! तूं
कृपासिन्धु भगवन्तु।
भजता हांव तूं माका पांव
स्तुति करता अनन्तु।।3।।

84 गण नायक वरदायक जय गणपति देवा।
म्हणतांति नांव तुगेलें करतांति सेवा।।प।।
सुर नर मुनि पुजिन तूं, पाशांकुश धारी।
आरति दाकेयतांति, तूं विघ्नहारी।।1।।
शंकर सुत अंकुशयुत मोदकप्रिय भारी।
ओमकार रूप तुझें त्रिभुवन हितकारी।।2।।
प्रथम पूज्य सुर सेव्य विश्ववन्द्य नाथा।
कथा तुझी अतिपावन मंगलगुण गाथा ।।3।।
करुणामय तूंचि अभय सुखसमृद्धि दाता।
गिरिजा सुत अमरविनुत आश्रित जन त्राता।।4।।
मंगलमय सरलहृदय लम्बोदर देवा।
सांगता हें मागता हें करै तूझी सेवा।।5।।

85 गजवदन आनन्द सदन गणपति
देवु मंगल करतलो।
विजयु विभव मेळौचो देवु तो
पाश अंकुश धरतलो।
सिद्धि बुद्धि मेळौचे देवाक
नित्य नमन जे करतले।
मोद दायक वरु पसावत
सकल भाग्य ते भरतले।।1।।
गणनाथु रक्षेचो हाथु गणपति
भजतल्यांचेरि प्रीतिचो।
म्हणतांति जन जाणतांति गुण
गणनाथु सुन्दर रीतिचो।।2।।
पंचम वेदु तें महाभारत

गणपतिन तँ बरैलेलें।
वाचकांकयि गायकांकयि
जन्म सफल करैलेलें।।3।।
मूषिक तें वाहन केल्ललो गणपति
मोदक प्रियु म्हणताति।
दोष विघ्न निवारणाक तो
देवु म्हणु जन जणताति।।4।।
गण नायका! वरु दी तूं आमकां
भक्ति तुगेली करचाक।
म्हणता अनंतु तूं एकदन्तु
पांव संकट सरचाक।।5।।

86 प्रथम जाव्नु पूजन गणपतिक
कारण तें जग जाण।
कथा राम नामाची महिमा
गणपति चरित प्रमाण।।प।।
देव ते स्पर्धा दवोर्नु म्हणाले
आमकां मान्य हें जावका।
सर्व प्रथम भूमि घुंवतले देवान
प्रथम पूजन पावका ।।1।।
धांवु धांवचाक लागले देव ते
गणपति विचारु करता।
हांवें मूषिक वाहन घेव्नु हें
धांवचें संशयु वरता।।2।।
राम नाम भुंयचेरि बरैता
ताझी प्रदक्षिणा काडता।

काम खुशीन वेगान केल्ललो
गणपति विश्वासु हाडता।।3।।
विश्व सगळें तें रामनामाचें
गणेशु घुवला ताका।
शाश्वत भक्तियि बुद्धियि आसतना
विंगड गुणगण नाका।।4।।
राम नाम एकु महामन्त्रु तो
गणेशान जपु धरला।
वामन रूपी गणेशु प्रथम तो
पूजनीय जाव्नु वरला।।5।।

87 महिमा अपार त्या गणपतिची
कशि ती म्हणतलो हांव।
महादेवालो पूतु गजाननु
गणेशु तागेलें नांव।।प।।
ॐकार रूपी ब्रह्म स्वरूपी
देवु तो विघ्न विनायकु।
अखिलाण्डकोटि ब्रह्माण्डनायकु
देवांकयि वरदायकु।।1।।
तेत्तीस कोटि देवांगेलोयि
अराध्य मूर्ति गणपति।
उत्तम गुण गण गणेशागेले
मेळता वरु सन्मति।।2।।
प्रारंभाक तें गणपति पूजन
विघ्न निवारण करता।
समरण केल्यारि तो गणपति बप्पा

सुख करता दुख हरता।।3।।
परब्रह्म परमात्मा गणपति
सिद्धि बुद्धिचो दाता।
गिरिजा नंदन सोडता बंधन
भक्त जनांगेलो त्राता।।4।।

88 नांचता तो गणपति नांचताति भुतगण।
वाजताति गागरियो करताति झणझण।।प।।
धिमि किट तों धिमिकिट तों वाजता मृदंग।
गम्मत तंबुरु वीणा गायना तरंग़।।1।।
ढुं ढुं शब्दाची दुंदुभी ती वाजता।
भुं भुं नांचतलो गणपति तो साजता।।2।।
वक्रतुण्ड गणपति तो हालैता सोंडाळ।
सकल भूतगण समाज धरताति ताळ।।3।।
सामवेद गीतांचें चलता तें गायन।
राम नाम मन्त्राचें भक्ति रसायन ।।4।।
नाम जपु म्हणु गणेशु नांचता नांचैता।
कामित फल दित्ता तो भक्तांक वांचैता।।5।।
जय महेश जय गणेश गण होडान म्हणता।
भय वत्ता जय मेळता गुणगण जन जाणता।।6।।

## **'भावगीत' 01/01**

89 तपस्विनी - कोंकणी वर्णचित्रांतुलो गीत
(गायकः उपेन्द्र भट आनी सुमना रावु)
कृष्णा..........................! राधे!..........................
राधे! तूं निपून बैसून इत्याक खेळेयता।

आयला हो चंदु वेळु मनांक मेळेयता।।पल्लवी।।
खँय थाव्नु मुरळीचो नादु आयकता।
कृष्णा! हें मन मिलन मागता।।1।।
आत्माचें आत्माक मिलन जात्ता,
कृष्णांतु राधा मेळ्नु वत्ता।।2।।

## 'भावगीत' 01

90 सकडांक बरें जावो,आमगेली अभिलाषा।.....
आव्सु आनी जन्मभूमि स्वर्गापशी होडि।
मोगु आनी आनन्दाची प्रीति तांची गोडि ।।पल्लवी।।
म्हैने धा पोटांतु व्हाव्नु आव्सु जन्मु दित्ता।
प्रथमलो आहारु चेईं आव्सू दूध पित्ता।1।
जन्मु मेळची भूँयि तिका जन्मभूमि नाँव।
जन्मदेशु एकु आमचो विंगड विंगड गाँव।।2।।
आव्सु आमची क्षमे मूर्ति पावन मोगा गंगा।
आव्सूवरी मोगु कोर्ची कोण मेळता हांगा।।
मातृभूमि एकि आमची विंगड विंगड भाषा।।3।।



## 02

91 फूल तें परिमळु दित्ता भँवरु ताजें रस पित्ता।।
जीवन सान फुल्लांचें जात्ता गुण तांचे आनन्दु दित्ता ।।पल्लवी।।
रूप फुल्लांचें चन्द, मानवु करता पसंद।। कानन उपवन सग आंगणांक
फूल फुलायता प्रकृति गुणांक। फूल तें जावका रे सर्व मानवांक।।1।।
फूल मात्यारि तें माळचें। सुन्दर माळेंतु दाळचें।।
सान्नांक होड्डांक सग मनुजांकयि। फूल प्रीतीचें तें सर्व जनांक।
आनन्दु मेळता रे सर्व मानवांक।।2।।

92 हे मोगा बाळा शुभकामना ही मेळो सुख जीवनाक।
प्रेमळ जीवन परिमळ जावनु आनन्दु मेळो मनाक।।प।।
तूं बाल्यकालाक सिखवण घेव्नु विनयान होडु जावका।।1।।
शंबरि वर्षांचे आयुष्य मेळका जीवन आनन्दु पावका।।2।।
तूं जीवनांतु शुभकाम कोर्का जगांतु शुभनाम घेवका।
हजार नमून्या प्रीति मेळौंका, सार्थक जीवन येवका।।3।।

93 हांवयि तूंवयि मेळनु पळे।, जीवन संगीत जात्ता।
प्रीति वाढता पळे रीति हाडता पळे, मन आनन्दान न्हात्ता।।प।।
अनुरागु गीतांक लायता राग, राग विना गीत कसले सांग।
रागु आसल्यारि तो मोगु येत्ता पळे,
मोगु मेळ्यारि जीवन परिमळतलें।।1।।
फुल्लाक सौगन्धु आसता स्वयं माका तूं जीवनाचो परिमळु प्रिये।
तूं लागि आसल्यारि मधुमासु गो, तूं दूरा जाल्यारि प्रयासु गो।।
तुगेले संगान हें जीवन म्होवु, दूरा तूं गेल्यारि सर्वयि तोडोवु।
शून्य हें जीवन उजवाडु येवचाक, तूं लागी जायि ज्योति जाव्नु।।2।।

94 हांव स्वयं नेणताना तूं मन मेजें व्हरता गो, जीवनाचे गीत म्हजे तूं म्हणेयता।
भावने जग मेगेलें तूवें धरलां गो, जीवु तूं मेगेलो हो तूं धरेयता।।पल्लवी।।
तुगेले सौन्दर्या खाल गगन दिसता गो, मेगेली भावना जाव्नु तूंचि दिसता गो।
तुगेले पासूनु योत्ता गीतांचि धारा, मोगु तूं रागु तूंचि तूं भाग्य तारा।।1।।
अति शून्य जीवन हें तूवें नातल्यारि, रति भावना मेळता तूवें आसल्यारि।।
घेत्ता तुगेलें नांव कवन तूं कविता, येत्ता मनांतु माका तूं प्रीति सरिता।।2।।

95 मना तूं सोणु चिन्तन सर्व बरेंपण माग रे।
आनन्दाचें फल मेळचाक जायि ते अनुराग रे।।पल्लवी।।

स्वभावान तूं चिन्तन करता, चंचल जाव्नु वरता।
लाभ-नष्टाची चिन्ता सोणा, तूं विषय वासना धरता।।1।।
विषय विविध ते लेकता तूं, समाधान तें वरना।
विषम सहन तूं करता रे, तनिक शान्ति दवरना।।
विषम तारण कोर्चाक जावका, शुभकर्माची भावना।।2।।

96 हांव जपत राबता रे एक तुगेलें नांव।
जीवनांतु तूं विना कोणाक मागचें हांव।प।
जायि माका जीवनांतु केवल तुजो हाथु।
कांयि नाका तूं आसल्यारि तूंचि मेगेलो नाथु।।1।।
प्रीति आमची वाढका पळे दीसु आनी राति।
वोत-पाव्सु सहन करूँ तूं मेगेलो संगाति।।2।।
ना जावुयात चन्द्रमांतु शीतळ स्वभावु।
सोडुयात पळे सूर्यान तो तापौंचो प्रभावु।।3।।
क्षण घडियेक सेडचा जायना तुगेलो हो संसर्गु।
म्हणता हांव तुगेलें नांव तूंचि मेगेलो स्वर्गु।।4।।

97 मनमन्दिरांतु राब सदा। अनुदिन ही प्रीति सदा सर्वदा।।प।।
केदणायि होळका प्रीतीची गंगा। प्रीति विना जग शुन्य हें हांगा।
रति की दिसुकी भेदु विना हें जग, म्हणता तें गुणगान, आ—।
मनांतु मोगाचें किर्तन चोलका, आमगेलें जीवन धन्य कोर्का।।1।।
तूं ह्या मनांतु हाडता तरंग, तुजे पासुनु जीवन हें बहुरंग।
म्हजें - तुजें जीवन करता उमंग, आमी दोगय मेळूनु, ग नि स रि
पनि— परिपूर्ण जीवन तें जात्ता तें अंग।।
सुन्दर सुमधुर संसारु कोर्का, आनन्दमय जाव्नु दुःख विसोर्का।।2।।

98 सांग माका मानवा तूं मोगाची कसली ती भाषा।
मोगु मात्र तो जन मनांतु राबूनु शाश्वत जाव्नु तो,
सांगता प्रिय अभिलाषा।।पल्लवी।।
दोळ्यां लागी दोळे मेळ्नु उलौंची भाषा कसली ती।
पोळोनु पोळोनु आनन्दु पावची ती अभिलाषा कसली ती।।
मोगु मात्र तो राबतलो।।1।
मोगु म्हणची भावना ही सृष्टि संबन्ध जोडतली।
रागद्वेष गुणांचें बन्धन भावना ही सोडतली। मोगु अमर तो वरतलो।।2।।

99 संकट आयल्यारि बेजार जावनयें, जीवन सुखदुःख सम्मिश्र हें।
लोकु हो स्वर्थाचो कोण परमार्थाचो, इष्ट अनिष्ट सग शाश्वत न्हंय हें।।पल्लवी।।
देवांक सुदां सुख-दुखाचे भोग ते
मेळेचें हांगा अनिवार्य मु तें।
हांव-तूं तो ती हो ही सर्वयि सुख-दुःख भोगचें कार्य मु तें।।
ला ला ला ल ल ल ल लल्लला,
माकायि मेळता तुकायि मेळता, नाका म्हळयारियि दुःख तें मेळता ।।1।।
जायि जाल्यारि तुका सुख सन्तत तें
दूकि कोणाक तूं दीवुनाका रे।
लायि तुजें मन क्षेमा खातिर तूं दुःख पोळोनु तूं भीवुनाका रे।
ला ला ला ल ल ल ल लल्लल्ला ।
दिल्लेलें मेळता केल्लेलें खात्ता, उलैता उलैता कसलें जात्ता।।2।।

## ‘भावगीत’ 03

100 भांगरा किरणा रथु सिंगार्नु सूर्य देवु तो येत्ता।
फाल्लें जाल्लें जागेयता ती उषा नांव घेत्ता।।पल्लवी।।

अप्रमेय तें सुप्रभात नवो रंगु तो हाडता।
उषा येव्नु ती नक्षत्रांचें नीळ मळब तें झाडता।।1।।
पक्षिगण तें किळबिळेव्नु उदय गीत ते म्हणता।
गाँव गाँवांतु घराँ घराँतु सुप्रभात तें जाणता।।2।।
सात घोड्यां रथु तो चलौनु सूर्यु मुकारि सरता।
कालचक्र पोळोनु मानवु बोट नांकारि धरता।।3।।

101 फुल्ला तूं कितलें चन्द, चन्दाइ तुगेली पोळोनु
तुका कोणी करता पसन्द ।।पल्लवी।।
देवान तुका रूप दिल्यां परिमळाचे गुण चांग।
म्होवु तुगेलो पिवचाक करता भँवरु तुका अनुराग।।1।।
परिमळु आनी रूप तुगेलें मानवांक सुख दित्ता।
परिमित जीवन घडियांक तुगेलें भँवरु तो रस पित्ता।।2।।
रूप गुणांक पोळोनु तुका दवरताति मात्यारि।
अपुरबाई तुका करता जनपद प्रीति करताति भारी।।3।।
कोमळ तुगेलो स्पर्शु केल्यारि मनाक मेळता आनन्दु।
प्रेमान माका जायि म्हणु दिसता, तुजेवरि जन्मु हो चन्दु।।4।।
सान जाल्यारीयि फुल्ला तुजेवरि जीवन मेळचें चांग।
मान मदाची सुदीर्घ आयु इत्याक म्हणु तूं सांग।।5।।





